# रंगघाय

-युसूफ अ. शेख

RONG'GHAI: COLLECTION OF KONKANI POEMS
BY: YUSUF A. SHEIKH

श्री. मेल्वीन रोड्रिगीज बाबलं
मायेमोगान

بسم الله الرحمن الرحيم

# रंगघाय

कोंकणी कवितां झेलो

## युसूफ अ. शेख

# RONG'GHAI

Konknni Kovitam Jhelo

(Collection of Konkani poems)

**-Yusuf A. Sheikh**

# रंगघाय



पयली खेप: वर्स २००५

उजवाडावपी: युसूफ अ. शेख

मुद्रक: **उत्कर्ष ग्राफिक**, खोर्लीम, इल्यास, गोवा
२२८४६८०, ९८२३९८१४७७

मोल: १६५ रुपया. Rs. 165/-

YUSUF A. SHEIKH,
House No.167 (1), Behind Colaso Arcade, Near M.P.T.Hospital,
Desteiro Ward, Vasco- da- Gama, Goa. 403 802 (INDIA).



भोवमानान

कामगार फुडारी

सर्गेस्त **जेराल्द पेरैरा**

हांकां अर्पण



*Dedicated to :*

Labour Leader
*Late* **Gerald Pereira**



# दोन उत्रां

**रंगघाय,** हे निखटे कुडीचेर पडिल्ले घाय न्हंय. हे मनरंगाचेर पडिल्ल्या खंताचे घाय. हे समाजाचें चित्र पळयताना काळीज घायाळ जाल्ल्याचे घाय, संकश्टांच्या तुफानांक तोंड दिताना अणभविल्ले घाय, इतिहासाच्या अपघातांक लागुन झेलिल्ले घाय, भुरगेपण सांडुन गेल्ल्याचे घाय, तरनाटपणाचे सांगात तुटिल्ल्याचे घाय....

अशे तरां तरां चे हे रंगघाय शेवटाक नवी दिशा आपणावन नव्या वाटेन चलपाक उत्तेजीत करतात. मनिसरुपान फाव जाल्ल्या कुडींत प्राण आसा तो मेरेन आत्मविश्वास, स्वाभिमान आनी मायेमोगाच्या बळग्यान आमगेलें सान जिवीत म्हान करपाक प्रोत्साहन दितले ही अपेक्षा.

**-युसूफ अ. शेख**

अशें आसलें जाल्यारुय रुपडीं चडोवन पोकी विद्वत्ता मिरयत मनीस समाजांत वेगळोचार मातयता, हाची तिडक येवन कवी खेदान म्हण्टा:

व्हडा व्हडा ग्रंथां गिन्यान जोडलें मनशांनीं
अर्थाचो अनर्थ बळियां लायलो मनशानीं !

(रुपडीं )

कुड्डेपण पांगरुन धर्माची मुळावी शिकवण आनी उदात्त तत्वां समजून , शिकून घे नासताना धर्माक विकृत रुप दिल्ल्या मनशांक कवी संदेश दिवन सांगतात:

वोंठार फकत वेद घोळले म्हुण जायना
वेदांताचो अर्थ आचरणांत हाडपाक जाय.

( अर्थहीन )

"रंगघाय" ह्या कविता-झेल्यांत सामाजीक आशयाच्यो कविता मुखेलपणान असल्यो जाल्यारय, "घुस्मटमार" , "म्हाकाय वोडुन व्हरात गो" , "म्हाकाच पिशें लावन गेलें" , "थंडसाणेच्या शांत राती" अशीं मनभुलोवणीं गीतांय आसात.

ह्या संग्रहांतल्यो कविता वाचताना एक जमेची गज़ाल जाणवता, ती म्हळ्यार कवी आपणाकय भोंवतणच्या समाजाचोच एक घटक मानतात. उपेक्षीत मनशांचो उत्कर्श करपाची उर्बा आपणाल्या वाचप्यांक दितना ते म्हण्टात:

अर्द पोटार जीण जगतल्यांच्या कश्टांक
नवी दिशा दिवंक वावुरतले
आमी धर्तरेक परजळीत करतले
आमी मळबूच सकल हाडटले
(सायबा मनीस मळबांत पावले)

युसूफबाब हे एक संवेदनशिल कवी. संवेदनशिल कवी जे वाठारांत रावता वावुरता, आपली सुखदुख्खां भोगता, थंय ताच्या भोंवतणच्या घडणुकांचें चित्रण, अणभव, ताच्या बरपावळींत येवप सभाविक. असले तरेची बरपावळच समाजाचो, समाजजीणेचो हारसो जाता आनी कवीच्या काळाचें दर्शन मुखार येवपी पिळग्यांक घडयता. हीं सगळीं लक्षणां युसूफबाबाच्या कवितेंत आसात, देखून तांची कविता तांच्या विशींच्यो अपेक्षा वाडयतात. युसूफबाबाच्या हातांन हाचेय फुडें कोंकणीची चड बरी सेवा घडची अशी सदिच्छा.

**- प्रकाश पाडगांवकार**

आल्त-पर्वरी,
२७ सप्टेंबर २००५

हो कवितां झेलो उजवाडाक हाडपाक
जाणीं जाणीं आधार दिलो तांकां समेस्तांक

**देव बरें करुं**

# म्हजो देश मनशांचो

म्हजो देश मनशांचो
हांगा मनशांक मनीस म्हुण जगपाचो हक्क आसा
चकचकीत परजळीत अटूट नातीं
हांगा आमच्या रागांत लेगीत मोग आसा.

म्हजो देश मनशांचो
म्हज्या देशाक अप्रुप अशी किर्त आसा
म्हज्या देशाक विचारांची खोलाय आसा
म्हज्या देशाक विद्वत्तेची उंचाय आसा.

आमी बाबत कुळां न्हंय
आमी मोने बाबळे न्हंय,
आयज फाल्यां फांत्या पारार
केन्ना रागार केन्ना फुगार,

म्हज्या देशांत
वडीलांक आदर आनी मान आसा
म्हज्या देशाक संस्कारांची शान आसा.

म्हजो देश मनशांचो
हांगा पडल्यार लेगीत उठपाची
मनशांची मजबूत शक्त आसा
आकांताक तोंड दिवचेली धिटाय आसा
म्हज्या देशाक राश्ट्रभक्तांची घटाय आसा.

मनशान रचिल्ल्या आपत्तीक सापडुन
ताची बाबडी भयण मेल्या
म्हज्या पूताची पीडा पळोवन
तुजीय आवय खूब खूब रडल्या
रडोवपी लोकाच्या पाडबुध्देक
आमी बळी पडचे नात
आमी आमचीं अटूट नातीं
कोणाक मोडुंक दिवचे नात.

आमी आत्मीक बळान घट आसात
आमी हाडा-मासान एक आसात.

म्हजो देश मनशांचो
हांगा मनशांक मनीस म्हुण जगपाचो हक्क आसा
चकचकीत परजळीत अटूट नातीं
हांगा आमच्या रगता रगतांत मोग आसा
म्हज्या देशाक संस्कारांची शान आसा.

***

# तृप्त चित्र

सत्ते  विणें शस्त्रां विणें जग सगलें जिखलें
मोनालिझाच्या वोंठार हांशें अमर जावन उल्लें!

चमत्कार घडोवन हाडलो एकाग्रतेच्या शक्तिबळान
पर्वताची उंचाय जोडली सर्जनशीलते पालवान
निर्जीव कलाकृतींत कलाकाराक प्राण फुकपाक साधलें
मोनालिझाच्या वोंठार हांशें अमर जावन उल्लें!

पौनांचें हार ना, ना भांगरा सरपळी
ना गरज लागली हाडुंक फातर संगमरमरी
कलाकाराच्या कल्पनेंतल्यान तृप्त चित्र घडलें
मोनालिझाच्या वोंठार हांशें अमर जावन उल्लें!

# रुपडीं

हे कसले रंगगाज, हीं कसलीं बनेरां लायलीं मनशानीं?
कसलीं कसलीं नवल न्हेसणां न्हेसलीं मनशानीं!

व्हडा व्हडा ग्रंथा गिन्यान जोडलें मनशानीं
अर्थाचो अनर्थ बळियां लायलो मनशानीं !

नक्शीदार भक्तिघरां बांदलीं मनशानीं
वन्टींत जीव भल्लो, जित्यांक माल्ले मनशानीं!

हिमालयाची उंच उंचाय जोडली मनशानीं
काळजा काळजांत दुशीत विख वोतलें मनशानीं!

रक्तदान केलें तस्वीर घेतली मनशानीं
रक्तबंबाळ करुन परिसर सोडलो मनशानीं !

स्वच्छ सोबीत इमारती बांदल्यो मनशानीं
मनशाक गलीच्छ वाठारांत लोटले मनशानीं!

समाजांत व्हड प्रतिश्ठा जोडली मनशानीं
समाजाचो ल्हासुन गोबोर केलो मनशानीं!

गांवांचीं शारां करुन सोडलीं मनशानीं
मनशा परस यंत्रांक उंच लेखले मनशानीं!

कसलीं कसलीं नितीमुल्यां मांडलीं मनशानीं
अस्तुरेचीं वस्त्रां बिन्दाज सोडलीं मनशानीं!

कितली कितली मस्त मजा माल्ली मनशानीं
कसलीं कसलीं रुपडीं सायबा घातलीं मनशानीं!

***

# लोटपाक दितलो?

ह्या थरार संसकारसंपन्न मनशांचो सांगात
त्या थरार भौरंगी सवंगांची साथ
हे वटेन येतलो काय ते वटेन तुका लोटपाक दितलो?

ह्या थरार अर्थपुर्ण नैतिक मुल्यां चंवर
त्या थरार सतत पैज पैशां शिंवोर
हे वटेन येतलो काय ते वटेन तुका लोटपाक दितलो?

ह्या थरार संस्कार संपन्न फुडाराची वाट
त्या थरार मदा भारार मुजगाची गाज
हे वटेन येतलो काय ते वटेन तुका लोटपाक दितलो?

ह्या थरार श्रम श्रध्दा साधनेची ओड
त्या थरार ल्हय लटक लुटमाराची जोड
हे वटेन येतलो काय ते वटेन तुका लोटपाक दितलो?

ह्या थरार दैविक आलाशिर्‍यांत भावार्त
त्या थरार सैतानशक्त , अंत आत्मघात
हे वटेन येतलो काय ते वटेन तुका लोटपाक दितलो?

# एक तरी मेणवात...

दोळे जेन्ना रडटात
तेन्ना दुकां गळटात
काळीज जेन्ना रडटा
तेन्ना क्रांती घडटा

आघात जेन्ना जाता
मनीस सोसुन घेता
अन्याय जेन्ना घडटा
मनीस तुट्टुन पडटा

सगलेंच जेन्ना भंगता
सगल्याक काळोख दाडटा
एक तरी मेणवात पेट्टा
म्हणुन उजवाड पडटा.

# निशाणी

बोगद्यांतलीं तळपां म्हाका सतैतात
थैं अजून
आमच्या भेटिच्यो निशाणी उल्ल्यात.

गुंभजांतले साध म्हाका सतैतात
थैं अजून
आमच्या उत्रांचे पडसाद आसात.

झाडांच्यो ताळयो म्हाका सतैतात
त्यो अजून
आमच्योच खबरी करतात.

# ... ते थंड हात

तें सान बंदर थैंच आसा
थैंच्यो बोटी कोणे व्हेल्यो?
आंगा पांगात तुफान हाडपी
काळजा वसाडी खंय गेल्यो?

खडपानीं आपालिपा खेळुन थकप
कांयवेळ वोल्या रेंवेर न्हिदुन विसोव घेवप
परत परत थापटार थापट मारुन मोगान झागडत
रावप...

दोगांयनी एकठांय केल्ल्यो घुलो व्हावन गेल्यो
दोळ्यां मुखावेल्यो कालवां काडपीय नाच जाल्यो.

फकत सुवात धरुन उल्ल्यात
ध्यानांत
ते थंड हात
आनी तो म्होंवाळ सांगात.

# निर्धार

दिशाभुल सांवार
सावरीच्या कापसावरीं हुबुन वचुंदी

दुस्वासाचो देवचार
हुल्पुन वचुन ल्हासुन ताची मुर्त जळुंदी.

एकामेकाक आधार
ध्यानामनांत रिगुन ताचो लाव मेळुंदी

माये मोगा विचार
आंगा पांगांत येवन ताची उब मेळुंदी.

स्वार्थाचो कारभार
आरत्या परत्या ल्हारां वांगडा बुडुन वचुंदी

विकासचो निर्धार
एकवोटाच्या बळग्याचेर बळीश्ट जांवुंदी.

# अस्वस्थ

जेन्ना साबार येवजणो फकत
दारिद्र्याचें प्राण सांभाळटात
तेन्ना शांतीचें जिवीत म्हाका नाका.

जेन्ना अनेक प्रगतिचीं साधनां
भुरग्यांक गलिच्छ वाठारांत रडपाक सोडटात
तेन्ना
विकासाच्यो बडायो म्हाका खूब खूब सतैतात.
अश्या वेळार
फटिचो अभिमान म्हाका नाका.

जेन्ना धर्तरिवेलीं मनशां मोगान उलोंवक विसरतात
अनी पित्तमय मानसिकतायेन
मनिसपणा आड वावरुंक लागतात
तेन्ना सभ्यतायेक पावणेर सोडुन
सर्गसुख भोगपाक म्हाका नाका..
हांव म्हज्या आत्म्याक शांत रावपाक दिवचो ना
हांव झुजतलों, हांव अस्वस्थ रावतलों.

# म्हजो सांभाळ

भर उजवाडांत आघात जालो
तेन्ना सगले पळेत रावले...
...मोन्यानीं!

... हांव पडलों
...
...
... हांव उठलों

आतां म्हाका हांवच सांभाळटलों
म्हज्याच आत्मबळार
खंयच्याच रक्षकाच्या पालवाची
अपेक्षा करिनासताना.

# पावती.

लकलकीत किर्णांची
न्हाण न्हावन
पांचव्याचार पानांसैत
सुंदर सोबीत दिसपी
बागेंतलें परजळीत झाड
आयज कर्पलां.

वेलुदाचीं न्हेसणां
आनी
हेर सगले श्रृंगार
कुडी सांगाताक
अशेच कर्पतले.
घेवन वतले ती फकत
बऱ्या वायट कर्मांची पावती.

# मेल्ले मनीस

मेल्ले मनीस जियेले
आमी फकत घोरेतात
मेल्ले झुजां झुजून गेले
आमी भिजुड भियेतात
मेल्ले हक्क जोडुन गेले
आमी एका मेकाक शिण्टात
मेल्ले खावन पिवन गेले
आमी चोरांक खांवक दितात
मेल्ले फातर फोडुन गेले
आमी फकत खरशेतात
मेल्ले भांगर न्हेसुन गेले
आमी बेंकेंत लॉकर सोदतात
मेल्ले मनीस जोडुन गेले
आमी सायबा लुटत गेले
मेल्ले एकदांच मरुन गेले
आमी सायबा सदांच मरतात.

# घुस्मटमार

( गीत )

ही रात अशी शांत सतैतल्या यादींची
कांय शेश फकत खीण जातुंत याद मोगाची

ही शांत म्होंवी सांज आनी रात चान्याची
आसा जिती कूड तातुंत मेल्ल्या सप्नांची

हीं धुंवळ हाडपी वखदां आनी ल्हासपी सिगरेटी
मुर्त तुजी जिती तातुंत जित्याक मारपाची

हो चिडपी म्हजो राग आनी संवंय तिडपाची
चिड खंयची तातुंत किंवं ह्या घुस्मटमारची.

# म्हाका जियेंवक दियात

हांव विचारवंत
वैचारीक संघर्शांत हावें
परत परत जैत जोडलां
म्हजें अंतरमन मात
खूब खूब रडलां.

भांगरा भूंयचीं चित्रां रंगोवपी
हांवच चित्रकार
महानतेची मुर्त घडोवपी
हांवच शिल्पकार
शिरंतरांतल्यान शिंवशिंवून
संघर्शाची जाग जागोवपी
कुपां फोडपी, मळब हालोवपी
स्वातंत्र्याच्या जैताची
हांवच मगा ज्योत पेटोवपी

हांवच आतां स्वर्गांत सूस्त
आसन माडुन बसलां
म्हजें अंतरमन मात
खूब खूब रडलां.
विकासाच्या गिरगिर्‍यांत हांव
घुंव घुंव घुवतां
घुंवळ येयसर मस्तमदान
रंग रंग रंगतां
केन्ना सर्गांत उडटां
केन्ना स्विमीगपूलांत
जंप मारुन बुडटां
संकश्टाच्या तुफान वेळार
एकचाराचो उलो दितां
रगताचो थेंब थेंब
राश्ट्रा खातिर मागतां
आनी पैर थैं खोपींत
पीडेस्ताची पिडा पळोवन
हांव वोगो, मोन्यानीच बसलां

म्हजें अंतरमन मात
खूब खूब रडलां.
राश्ट्रभक्तांच्या म्हानपणाचें
हांवच तो दर्शन घडोवपी
अन्यायाची चिढ दाखोवपाक
हांवच मगा शिंगा फुलोवपी
आनी हावेंच अयज म्हज्या दोळ्यांत
काळोख मिट्ट हाडला
म्हज्यांतलो सिद्धांत पालवला.
... परत परत गळ्यांत आयिल्ल्या
फुलमाळांचो हो प्रभाव आसुंये
पावला पावलार जावपी
भौमानाचो हो परिणाम जांवये...
इश्ट मित्रानो, भाव भैणींनो
हें व्यक्तिपूजन थांबयात
म्हजें अंतस्करण मरुंक पावलां
म्हाका सुस्कार घेंवक सोडात
म्हज्या आत्म्याक जियेंवक दियात.

# आयज आमी जियेतात?

अधुनीक साधनानीं
चक्क भरिल्ले कुडींत
बणखणीत दबुन उरिल्ले परीं
भुरग्यांचेर जेन्ना नदर पडटा
तेन्ना
उकत्या मळार उडक्यो मारपी
उकत्या पायान पावलवाट चलपी
उकत्या सैमान सुस्कार घेवपी
वडा मुळांत झोपाळ्यांत झेलपी
म्हज्या मुक्तमोकळ्या
भुरगेपणाचो म्हाका
उगडास येता.

हारशांची आल्मार फुटत काय
टी.वी. चेर बॉल पडत काय

फुलां वाझ फुटत काय
प्रिजाक चॅप पडत काय
कांयच चिन्ता नाशिल्ली.

कळना आयज
प्रगतीच्या साधनानीं बांधुन घेवन
आमी जियेतात
काय स्वताक मारुन घेतात?

***

# म्हाकाय ओडुन व्हरात गो!

( गीत रचना )

मिटफोळीचो खेळ खेळपाक
उडक्यो मारीत येयात गो
पावस येता भिजपा खातीर
म्हाकाय ओडुन व्हरात गो!

बिरीबिरी भिजलीं शेतां
बिरमुटेचीं वोलीं पाखां
ओंवळीणीचीं झडलीं फुलां
झडलीं आब्या मुळांत घोटां
ओल्या चिप्प सैमा वांगडा
खेळुंक भायर सरात गो
येत आसतना मुठींत धरुन
चिंचारे चार हाडात गो!

मस्काच्या झाडार बाये
वेलीन आंग मोडलां
चिंचे झाड अमुरपिक्या
कोंगलानीं भल्लां
पोरसांत दोगां ओलीं चिप्प
हांवुय मस्त रमलां गो
कोंब्यान शेंक्रो फुलैला
म्हाकाय नादांत भरात गो!

***

# शेवतीं माळुंक हाडल्यात गो

( गीत )

फांतोड जाल्या पाना-पानार
दवां थेंब थारल्यात गो
यो गो हांसत भायर सर
शेवतीं माळुंक हाडल्यात गो!

सुर्याचीं किर्णां किण्ण
सैमा आंगांत शिरलीं पळय
आंगार रंग चढोवन पाखीं
फुलांक सोडुंक लागलीं पळय
चिवुं-चिवुं करीत सुकणीं
मोगान खेळुंक लागलीं गो
यो गो हांसत भायर सर
शेवतीं माळुंक हाडल्यात गो!

सुस्ती जावन न्हिदलां कित्याक
गोरवांची मस्ती पळय
शेंक्रो फुलोवन धांवतल्या गो
कोंब्या जबरदस्ती पळय
कोगुळ पळय दुर्गा देगेर
थारत थारत गायता गो
यो गो हांसत भायर सर
शेवटीं माळुंक हाडल्यात गो!

***

# सायबा मनीस मळबांत पावले!

तुमी मळबांत गेले मूं?
वचत रावात...
आमी मळबुच सकल हाडटले.

आमकां शेतांतल्या चिखलाची ओड
आमगेले लोकनाच आमकां गोड
आमच्या लोकसंगीतांतले तालमेळ
मळबाक आमी दाखयतले
आमी मळबुच सकल हाडटले.

मळबार पावपा असली भ्रश्ट तांक
अमकां जोडपाची ना सायबा

अर्दपोटार जीण जगतल्यांच्या कश्टाक
नवी दिशा दिवंक आमी वावुरतले
आमी धर्तरीक परजळीत करतले
आमी मळबुच सकल हाडटले.

# ...मोगान

कितल्योय चादरी ओढल्यो तरी
भुरग्याक ऊब मेळटा
ती आवयच्या गोपांत.

कितलींय गीतां गायलीं म्हुण
काळीज धन्य धन्य जाता
तें भक्तिगीतान.

केदोय उजो पेटलो तरी
सगलें थंड थंड जाता
दोळ्यांत दोळो घालुन उलयल्यार मोगान.

# वर्तमान खेळा मळावेले...

आमी स्वासांत स्वास मेळोवन
खेळपी खेळगडी
आमच्या लोकमेळानीं
आमकां एकठांय नाचयल्यात
आमच्या संस्कृतायेन
आमकां हे भुंयचे धनी केल्यात
ही व्हड परंपरा राखात
विकृत शक्तींक बळी पडुं नाकात.

ना जाल्यार
आमचे स्वास तुट्टले
आमी निर्जीव जातले
आमी गोबोर जातले.

नवी सभ्यता जागतली
पूण ताचे वांगडी आमी आसचे नात
फकत आमचे आत्मे हुमकळटले.

# काळीज गोंयां सोडुन गेलो

मणीपालांत घडोवन हाडिल्ल्या अखिल भारतीय कोंकणी परिशदेवळार रचून सादर केल्ली कविता.

इतिहासाच्या अपघातानीं
काळजाचेर घाल्यात घाय
गोंयकार पैस पळुन गेलो
काळीज गोंयां सोडुन गेलो.

गोमट्या गोंयच्या उगडासाच्यो
वाल्याक गांठी मारीत गेलो
मातयेचे उमे घेत
दुखा आंवडे गिळत गेलो
सर्वत्याग करुन गेलो
गोंयकार पैस पळुन गेलो
काळीज गोंयां सोडुन गेलो.

नवें जिवीत घडयलें पूण
स्वाभिमान विकलो ना
नवी भास शिकलो पूण
आवयभास सोडली ना
गोड गोड कोंकणी उत्रां
वोंठार जिभेर खेळयलीं
गोंयची लोकगीतां आपल्या
जिणेंत जिवी दवर्ल्लीं.

धोलत्या माडार रेंदेर मामा
मनभुलोवणी कांतारां
मांडोवीचीं धुलपदां
सम्दीराचीं उड्टी ल्हारां
खणप्यांचें उक्तें हांशें
चुट्टांचीं धादोसघरां...
सगली संपत साडुन गेलो
दोळ्यांत दुकां गळैत गेलो
निराधार जालो पुणून
कोंकणी आत्मो जागैत गेलो.

पनेळ्ळांतलीं खुशाल क्षणां
सुपाऱ्यांची कुळ्ळागरां
नांगर बैल सोडुन गेलो
लामणदिवे पालोवन गेला

गोंयकार पैस पळ्ळुन गेलो
काळ्ळीज गोयां सोडुन गेलो.

***

# चल

रात भयभीत भय सांड चलत राव
पलतड परजळीत धर ध्यान वचत राव.

नवमार्ग नवसंध मेळयत राव.
थेय पावल प्रगत पथार वचत राव

दगडदाट दोंगरवाट चढत राव
जैत जड घे घाय घडत राव

वादळ खिणयाळ धर धीर चलत राव
जीण सान शान वाढय वाढत राव.

# जिद्द आमगेली...

(राश्ट्रभक्ति गीत)

जिद्द आमगेली जैत जोडपाची
बळयां नेटान चलपाक जाय
स्वातंत्र्याचो लाव घेवपाक
घटाय आमची वाढपाक जाय!
घटाय आमची...

आमीच शस्त्रां हातांत घेतलीं
झुजामळार अमीच झुजले
आमीच आंगांत शक्त रिगयली
शौर्य आमच्यांत आमीच भल्लें
राष्ट्र घडोवपी आमीच आतां
दुर्बळ सशक्त जावपाक जाय!
घटाय आमची...

संक्शटाच्या तुफान वेळार
एकवोटान गा आमी झगडले
दुस्मानानीं आकांत हाडले
जैतवंत आमी आमीच जिखले
राष्ट्रभुंयेचो भोवमान राखपाक
फुडेंच पावलां पडपाक जाय
घटाय आमची...

( ही रचना आकाशवाणी पणजी केन्द्राचेर संगीताचेर बसयल्या ).

# तेन्ना म्हाका राग येता

मोनजात जेन्ना मदेता
तेन्ना म्हाका राग येता

मनीस जेन्ना मेंदवांत
भूसो भरुन घेता
तेन्ना म्हाका राग येता

जागृतेची ज्योत पेटोवपी
काजुल्यांक भिंवक लागता
तेन्ना म्हाका राग येता

व्हाळांतल्या किड्यान धेंगसो घाल्यार
सागर लेगीत थंड पडटा
तेन्ना म्हाका राग येता.

# सावळी

मनीस मनशाक पावना
तो मनीस न्हंय
ती मनशाची सावळी;

सावळी स्वत: मनीस जावंक शकना
खरो मनीस मनशाक पावल्या बगर रावना;

मनशाक आकांताक सापडिल्लो पळोवन
रोखडोच थंय सावन गेलों
तो हांव न्हंय
ती म्हजी सावळी.

# ते दीस अपुर्बायेचे

ताबलांनीं खेळ्ळे आमी
खेळ्ळे कोंयडया बालानीं
मिलानीं खेळ्ळे आमी
जोखुन मोखून गड्डुयानीं.

तेफळ्ळांच्या फटाश्यानीं
वेळ घालयलो,आमी वेळ घालयलो
गोबराच्या कोकात्यानीं
इंत्रुझ फुलयलो, आमी इंत्रुझ फुलयलो.

पनेळ्ळांत बसुन आमी
दर्या व्हलयलो रे बाबा दर्या व्हलयलो
कार्रेरीचो प्रवास आमी
खूब गाजयलो रे बाबा खूब गाजयलो.

काण्णां चुन्नां खालीं आमी
पुंजायलीं रे चिरपुटां
तोडांतल्यान उदक सोडपी
खूब चिंवली चिंचेबोटां

खुट्यांची वंय आमची
वयेंत वेल मोगऱ्यांची
पणसा झाडार किरकिर खूब
पांचव्या पाखां किरांट्यांची.

***

# गोंधोळ आनी धुमशणां

हिणयां तिणयां तणाव
तागडी थरथरता
बुदवंतकाय ल्हव जाल्या
हीनतायेन वजन धल्लां
आनी भौनभौन गुस्पल्ले म्हजें मन
घोंधळांत पडलां.

सुरंगां, शेवतीं, गुलाब, आबोलीं
सगळींच
स्वार्थाच्या गळ्याची माळ जाल्यात.
सर्वसामान्य मनशाचेर
पावला पावलार आपत्ती
धव्याफुल्ल फातरान उभी
सैतानाची मुर्ती.

सयबा चरित्रहीन मनशान
नितीमुल्यांच्या म्हत्वाचेर
भाशण दिलां
आनी भौनभौन घुस्पल्ले म्हजें मन
गोंधळांत पडलां.

सर्गभूंय ही संस्कारसंपन्न कुळांची
हांगची सांज भक्तिभजनांची
रोजाराची, लादिनीची
सायबीणीच्या पुरसांवाची.
काळजा काळजांत मोगा गीत
जोरगतीचीं ल्हारां लेगीत सुसंगीत
पुणून सायबा
वायंगणी तज्ञांनीं
संगीतमय सैमाक बेसूर केलां
आनी परत परत घुस्पल्ले म्हजें मन
गोंधळांत पडलां.

लोकप्रतिनिधीचो वावर कितें
लोकुच नेणां
आनी परत परत पर्वरीच्या परिसरांत
धुमशणां
सगले सिद्धांत खंय शेणल्यात
कोण जाणां?
विद्रुप जावंक सोडल्यांत
जिवीताचीं सगलीं मोडां.
बुदवंतांच्या बोडांक लेगीत
भौतीकताये भूत बादलां
सायबा सगलेंच
आड वटियां चल्लां
आनी भौनभौन घुस्पल्ले म्हजें मन
गोंधळांत पडलां.

***

# जीण परजळीत करपाक...

वाट आपशींच सापडना
तकली बरीच खाजोवंक जाय

सूख हातरुणार येवचें ना
भौच धांवपळ करपाक जाय

आळशी मनशाक
बागेंतलीं फुलां लेगीत
परमळ दिवचीं नात

जीण परजळीत करपाक
वावराक लागपाक जाय.

# म्हाकाच पिशें लावन गेलें (?)

( गीत )

भिण्ण भिण्ण काळखांतुल्यान
काजुल्यांची वाट चल्लों
ल्हव ल्हव लागीं पावलों तेन्ना
नदर चुकोवन पळून गेलें

म्हज्याच नादान म्हज्याच यादीन
आंगार रंग चढोवन आयलें
म्हाकाच पळोवन सांगशी बाये
कित्याक अशें धावन गेलें

उमेदीचीं हासलीं फुलां
हांश्या आंवडे गिळत रावलों
हांसत्या मुखान मोन्यानींच गो
कित्याक अशें चाळोवन गेलें

काळीज ल्हव ल्हव वैर सकल
सुसंगत भास जालो
तुजेंय काळीज धडधडलें, काय
म्हाकाच पिशें लावन गेलें (?)

( हें गीत कवन आकाशवाणी मुंबय
केन्द्राचेर संगीताचेर बसोवन गायलां ).

# लापियांव ......

नातालांचे लापियांव आनी
दिवाळीचे आकाशदिवे
माणकुल्यांचीं मानां खोशयेन
भौनभौन खेळयतले !

मशीदीचे मिनार आनी
पर्वताच्या तेंगशे वेल्यान
ईदाचो चन्द्र सगले
वरसान वरस पळयतले.

नरकासुराक परत परत
परत उज्यान ल्हासयतले
सदभावाची मशाल घेवन
फुडार चक्क घडयतले.

कर्बलाच्या झुजामळार
हजरत हुसेन हारुंक ना
सत्त्याचो पुरस्करतो
मरुन लेगीत मरुंक ना.

मनशा कुळये सोडवणदार
खुरसाचेर सोपुंक ना
मळबांतुल्या नेखेत्रानीं
रसणाय दिवपाक सोडुंक ना

घुमट आमी वाजयतले
ताश्यार बडी बडयतले
समेस्तांच्या दोळ्यांत आमी
नवो उजवाड पळयतले !

***

# दगदग

आदर्शाची तूट पळोवन
म्हजें काळीज दगदगता

सिद्धांताची सूट पळोवन
म्हजें काळीज दगदगता

समाजाची फूट पळोवन
म्हजें काळीज दगदगता

आयज,
मनशाची प्रवृत्ती पळोवन
म्हजें काळीज दगदगता.

# आत्मो आमचो एक

(देशभक्ति गीत )

तरां तरांच्यो जातीकाती
तरां तरांचो भेस
भारतीय सगले आमी
आत्मो आमचो एक !

कितलीं कितलीं झुजां आयलीं
जीव घेणीं मोडां आयलीं
दुश्काळ आयले, दुस्मान आयले
संकष्टाचे तुफान आयले
आत्मबळाचें बळगें घेवुन
सदांच आमी जोडलां जैत
भारतीय सगले आमी
आत्मो आमचो एक !

पांडवांची शक्त हांगा
झुजा माळार झुजली
स्फूर्त दिवपी महाभारतान
काळखा वणत मोडली
अत्याचारा करुन संव्हार
विचारवंतां घेतल्या देख
भारतीय सगले आमी
आत्मो आमचो एक !

तरां तरांची धर्मनिश्ठा
तरां तरांच्यो भासो
सर्वधर्मसमभावी
देश आमगेलो लकलकीत हारसो
अल्ला हू अकबर! अल्लाहू अकबर!
झुजामळार जोडचें जैत
भारतीय सगले आमी
आतमो आमचो एक!

***

# शिरफिरो

तो पिसो न्हंय
तो शाणो
आमचीं पिशेपणां पळोवन
तो शिरफिरो जाला

तो उथळ न्हंय
तो खोल
आमचीं उथळपणा पळोवन
तो शिरफिरो जाला

तो बाजू घेवपी न्हंय
तो न्याया खातीर झगडपी
आमचो पक्षपात पळोवन
तो शिरफिरो जाला

तो कसाय न्हंय
तो वैद्य
आमचें कसायपण पळोवन
तो शिरफिरो जाला

तो सैतान न्हंय
तो संत
आमचो आडमार्ग पळोवन
तो शिरफिरो जाला.

***

# एक विचार

दर एक विचार
कितेंय तरी सांगुन वता
ताकाच लागुन
विचारांत बुडिल्लो मनीस
कितेंय तरी करुन वता.

विंगड विंगड विचारानीं
सभ्यतेचो
विंगड विंगड अर्थ लायला

एक विचार म्हत्वाचो
सदांकाळ
संतुलन साभाळपाचो.

# अर्थहीन

वण्टींचेर राश्ट्रभक्तांचीं
चित्रां लायलीं म्हुण जायना
प्रत्येक नागरीकाची जीण
अर्थपूर्ण करपाक जाय

वोंठार फकत
वेद घोळले म्हुण जायना
वेदांतांचो अर्थ
आचरणांत हाडपाक जाय

ना जाल्यार सगलें
शुन्य शुन्य....अर्थहीन.

# थंडसाणेचे शांत राती...

(गीतकवन)

थंडसाणेचे शांत राती
सान जिवाक खेळोंवदी गो
नक्षत्रांचे रसणायेंतल्यान
मोगा न्हाण न्हाणोंवदी गो!

मंद वाऱ्या ल्हार जावन
नाजूक केसांक खेळोंवदी गो
बिरि बिरी पावस जावन
म्होंव्या आंगाक भिजोंवदी गो!

पांचवीचार पिराय तुजी
पांचवो मोग रिगोंवदी गो
आबोलेच्या वोंठार तुज्या
मोगा चंवर फुलोंवदी गो!

हुनसाणेच्या मोगा उबेंत
उमे घेत हासोंवदी गो
वेंगेंत तुका घेवन मोगा
दोळे मिट्ट पालोंवदी गो!

हातांत हात घेवन मोगा
म्हज्या मना झेलोंवदी गो
मोकळेपणी म्होंवे राती
मोगा खेळ खेळोंवदी गो!

***

# आयज म्हजें शार

आयज म्हजेंशार
एक व्हड सुपरबाजार
मोटारींचें भिरें आनी
मोटारसायकलींची किरकिर
किरांची किरकिर नाच जाल्या
सुकण्यांचीय भिरीं नात
झाडांच्या पानांतल्यान फुटुन परजळपी
सुर्याचीं किर्णांय नात
आतां सुर्योदय बद्द दनपारां जाता
जेन्ना सुर्य माथ्यार येता तेन्ना
चारुयवटेन भौमजली इमारती
उजवाडा खातीर सबंद दिस जाय वाती.

आतां म्हजें शार
एक व्हड सुपरबाजार
मार्गार रग्तामासाचे मनीस नात
नमनमुन्याचीं वाहानांच दिसतात
फॅशन परेडीपरीं लायनीन चलताना.....

मार्गा कुशीक मनीस म्हुण दिसतात
तीं फकत कांय किरकोळ हाडां
हाय हाय करीत
हात फुडें करुन पैशे मागताना.

आयज म्हजें शार
एक व्हड सुपरबाजार
तरां तरांचीं संवंगां आनी
डिस्काउन्ट सेल चीं प्रदर्शनां
सुपरबाजारांत खरेदी करपी म्हळ्यार
आमी सगलीं जनावरां
कित्याक जाणां
म्हज्या शारांत मनशांक
मनिसपण सांभाळुन जोड जोडपाक
कठीण जालां.

आयज म्हजें शार
एक व्हड सुपरबाजार
हांगा फकत व्हड लोक
जाणीं आपली बुद्द घाण दवल्ल्या
आनी शितळताये वणत मोडल्या
हांगा सगळे अशांत
हांगा घुस्मट्टात प्राण!

***

# गीत जावन तू आयलें गो!

कल्पकथेंतली तूच कल्पना
गीत जावन तू आयलें गो
संगीताचीं वस्त्रां न्हेसोवन
गोड गळ्यां तुका गायलें गो!

सात सम्दीरा पार गेलों पूण
फाटोफाट तू पावलें गो
मोठोच बाये हो नाद तुगेलो
शब्दरुपान तू आयलें गो
गोड उत्रांनी काळजांत शिरुन
भोव सुंदर तू रंगलें गो
संगीताचीं वस्त्रां न्हेसोवन
गोड गळ्यां तुका गायलें गो!

भौनभौन ध्यानामनांत ह्या
तुजीच धूनशी वाजता गो
एकामेकाचो साथ तुटना
काळजां आमचीं धसल्यांत गो
शेणत शेणत गो मोगांत तुज्या
परत घुंवळशी आयली गो
संगीताचीं वस्त्रां न्हेसोवन
गोड गळ्यां तुका गायलें गो!

***

# मेंदवाक इल्लें बळ जाय

पुर्वजांची जोड आसा
फुडार आमकां गोड जाय
आमचेंच दायज मोलुंक आमच्या
मेंदवाक इल्ले ं बळ जाय

आमचीं भुजां घट आसात
भाग्य जोडपाक ओड जाय
आमच्याच मनशांक समजुंक आमच्या
मेंदवाक इल्लें बळ जाय

अप्रुप अस्मितायेचे धनी आमी
उंचाय आमकां व्हड जाय
आमच्यांत तोड हाडप्यांक वळखुंक
मेंदवाक इल्ले ं बळ जाय.

# मरपाक न्हंय

आमी नवलां जोडपाक आयल्यात
मेळिल्ले मोडपाक न्हंय
आमी जीण जगपाक आयल्यात
फालतु झगडुन मरपाक न्हंय.

# अजुन तरणीं प्रफुल्लीत

रेंवे वेलीं
अक्षरचित्रां
ल्हारां वांगडा
व्हावन गेलीं

कितलींशींच वर्सां जालीं.

आतां वेळेर
आदलें कांयच ना.

अक्षरानीं बरयिल्लीं नांवां मात
अकसमात दिस्टी पडटात
ल्हरां वांगडा झेलताना...
थैंय दिसतात चित्ररुपान
अमी दोगांयजणां
तरणीं प्रफुल्लीत!

# मुक्तीसंघर्श

सुटके झुजांत वोतलें रगत
बणखणींतल्यान बंदेपणा आड
बंडा पुकारीत सारलो वगत

कितलीं कितलीं दशकां गेलीं
तो झुजारी आतां मेरेन
काळजार घाय घेवन घोशणा दीत
निमाणो सुस्कार सोडटा
संवसाराच्या बणखणींतल्यान
मुक्त जाता...
सांगाताक
चेपुन उरिल्ल्यांक मुक्ती जोडपाचीं
सप्नां घेवन वता.

तीं सप्नां साकार करपाक
आतां ताचो आत्मो झुजतलो
ताणे जायतेजणांक आत्मसाथ
करुन घेतल्यात
मुक्तीसंघर्श चालुच उरतलो.

***

# जान्ट्यांक नेन्टे करचे खातीर

(उसणी कल्पना)

दोतोर गोम्सान गुळ्यो केल्यो
जान्ट्यांक नेन्टे करचे खातीर.
गुळ्यो घरा लागीं दवल्ल्यो आनी
दोतोर गेलो दुबय वचपाक
दुडवां राशी हाडचे खातीर.
मांयन चीट बरयली आनी सांगलें
बेगींच येवपाक
काजार ताचें करचे खातीर.
येरोपोर्टार एके चलियेन *हाय!* म्हळें
येवकार ताका दिवचे खातीर.
दोतोर धादोस्कायेन फुल्लो
आनी मनांतल्या मनांत सांगुंक लागलो
होंकल म्हजी आयल्या म्हणुन
रेसीव म्हाका करचेखातीर.

वळखुंक ना पूता,
हांव तुजी मांय मरे!
दोनुच गुळ्यो खाल्ल्यो पूता
फकत टेस्टींग करचे खातीर.

गाडयेन बसलीं दोगांयजणां
घरालागीं वच्चे  खातीर.
फाटले सीटार भुरगें रडलें
म्यां, म्यां करुन
मांयचे वेंगेंत येवचे खातीर

वळखूंक ना पूता?
हो तुजो पाय मरे!
पायन सगळ्योच गुळ्यो खाल्यो
आतां रडटा दुधा खातीर!

***



युसूफ अ. शेख जल्म: १ ऑगश्ट १९४८ सालांत. शिक्षण: विज्ञान विशयांत एम. एस. सी. मेरेन चें शिक्षण मुंबय विश्व विद्यालयाच्या पणजे पदव्युत्तर केन्द्रांतल्यान घेतलें. ग्रेज्युयेशन मेरेनचें शिक्षण मडगांवां चौगुले कॉलेजींतल्यान जालें. एस. एस. सी. वास्को सेंट जोसेफ्स इन्सटीट्युटांतल्यान. इंडियन ब्रॅडकास्टींग सर्वीस चो उच्च अधिकारी म्हुण आकाशवाणी आनी दूरदर्शनच्या वेगवेगळ्या केन्द्रांचेर लागीं-लागीं ३० वर्सां काम करुन स्टेशन डायरेक्टर च्या हुद्द्यार पावल्या उप्रान्त शिलोंग आनी गुहाटींत दूरदर्शन प्रसारण माद्यमांत वावर केलो आनी स्वत: सेवा निवृत्ती घेतली.

१९६६ सावन कोंकणींतल्यान बरप सुरु केलें आनी कोंकणी कवी आनी गीतकार म्हुण नामना जोडली. आयज कितलेशाच साहित्यीक, सांस्कृतीक आनी सामाजीक संस्थांचो सर्वकाळ वांगडी जावन आसा.

रंगघाय, हे निखटे कुडीचेर पडिल्ले घाय न्हंय. हे मनरंगाचेर पडिल्ल्या खंतांचे घाय. हे समाजाचें चित्र पळयताना काळीज घायाळ जाल्ल्याचे घाय, संकश्टांच्या तुफानांक तोंड दिताना अणभविल्ले घाय, इतिहासाच्या अपघातांक लागुन झेलिल्ले घाय, भुरगेपण सांडुन गेल्ल्याचे घाय, तरनाटपणाचे सांगात तुटिल्ल्याचे घाय....

अशे तरां तरां चे हे रंगघाय शेवटाक सकारात्मक भुमिका आपणावन नव्या वाटेन चलपाक उत्तेजीत करतात. मनिसरुपान फाव जाल्ल्या कुडींत प्राण आसा तो मेरेन आत्मविश्वास, स्वाभिमान आनी मायेमोगाच्या बळग्यान आमगेलें सान जिवीत म्हान करपाक संदेश दितात.